वर्स : अेक    अंक : अेक    शिशिर अंक जानेवारी/फेब्रुवारी १९८३

# ऋतु

कवितेचें कोंकणी द्वैमासीक

संपादक : पुंडलीक नारायण नायक

पालवी संपादक : प्रकाश दत्ताराम नायक

मुखपृष्ठ आनी मांडणी : दिगंबर शिगबाळ

संपादकीय–

शिशिराच्या शियाळचा दिसांनी पणसाक फुटपी दाबणांसारको हो कोंकणी काव्याचो आविष्कार–ऋतु. हातूंत कोंकणी काव्याच्या सर्वंगी रूपकाराचें दर्शन घडोवचें असो हावेस आसा. हेर भासांतल्या काव्याचीय वळख घडोवपाचो यत्न आसतलो. फुडलो वावर फळादीक करपाक कवी, वाचपी आनी हेर बरें मागपी हांच्या आदाराची आस्त प्रगटायतां.

–संपादक

छापपी आनी अुजवाडावपी : नारायण वादोळकार
कुळागर प्रकाशन, पो. बॉ. नं. १०९, मडगांव (गोंय) ४०३ ६०१

छापणावळ : एस. जे. हुंद्रे, रवि मुद्रणालय, बेळगांव

संपादकाचो पत्तो : पुंडलीक नारायण नायक,
वळवय, सावय–वेरें, फोंडें (गोंय) ४०३ ४०१

अंकाचें मोल : २ रुपया    वर्सूकी पटी (विशेशांकासयत) १२ रुपया

## मांडावळ

## शिशिर

गजानन रायकार

शिरशिरयत शिरंतरां शिशिर शियाळलो
अनंगान आंगा-पांगात हुलप पेटयलो !
पाचवीचार रानां सरसरीत चंवरलीं
धरतरीय धुंवरेच्या धवळांत भरमली
थणसाणीचो वाऱ्यांतल्यान शिवोर शिंवरलो !
—शिरशिरयत शिरंतरां०

तांबडीगुंज नितळ-शितळ दंवातली सकाळ
अक्षरयता उपनिषदां थेम्यांनी तणार
फुला फुलाक गुपित सांगत भंवर भरारलो !
— शिरशिरायत शिरंतरां०

दुवाळकान्निवरी आम्या ताळी आंवडेता
चंवरा भितर मुमुरख्यांनी सपन पळयता
सावरीच्या आंगा-पांगात गुलाल उसळलो !
— शिरशिरायत शिरंतरां०

वयांतलेवरी वाली लजे-लजेतात
पिशावरी हांसते हुसके चाळय-चाळयतात
तळये-तळयेंत उल्हासाचो हांसो हुप्येलो !
— शिरशिरायत शिरंतरां०

घोटरांतलीं शेवणी-पिलां पाखांत फुरफुरलीं
चंवरां-चिवरां चोखीत सैर-वैर उंडारलीं
व्हजऱ्याच्याच गळ्यांतल्यान सूर खळखळलो !
— शिरशिरयत शिरंतरां०

आंगा-पांगा भितर कोण खेळटा तालगडी
सुवासांत सळसळटा धमार-धुमाळी
हड्ड्या भितर उमेदीचो धोल दणाणलो !
शिरशिरयत शिरंतरां शिशिर शियाळलो !

कविता

## रूप

बाकीबाब बोरकार

हारश्यांतलें रूप तुजें न्हय खरेलें रूप
भितर नदर लावन तुजें वळख चिरस्वरूप
थैंच आसा अमृताची जोत मूर्तिमंत
ती अनाद्यवंत शांत तृप्त दीप्तिवंत
तिज्यापरस संसारांत ना रे कांयच अूंच
तिज्या गोडयेफुडे सगळे इंद्रभोग तुच्छ
तिज्या केवळ दर्शनान सोंपति दृष्यभास
विकारांच्यो न्हिवतिवडो, सुट्टि बंदपास
तिज्या अुजवाडात तुजें अायचें जिणे जोख
तिज्याच इशाऱ्यान तुजें फायचें पेणे मोख

कविता

## वाट

पांडुरंग भांगी

ही वाटय केन्ना केन्नाय
सोर्पाची फोडा
दोळयांतल्या बावल्यांक
तेजाबाची कळा

ही वाटय केन्ना केन्नाय
रेवाडयांची घुंवाळी
चत्रायेची धग तरी
चिनारेची अन्धारी

शाश्वताचे भेटेक हाडूं
खंयचे अमृताचे कळे ?
भोगितच जियेतां
मर्णाचे सुवाळे !

कविता

## रोंपुलो

शंकर रामाणी

दारां
रोंपुलो लायीलो
तो पाताळां रोमीलो....

दारां
रोंपुलो वाडीलो
तो मळबा तेंकीलो....

मळबां तेंकीलो
ताणे
काळोख हुंगीलो...

पाताळां रोमीलो
ताणे
सर्ग सोदीलो...

कविता

# अस्त्रां

प्रकाश पाडगांवकार

जिणेतलें फटकिरेंपण, आपसुवार्तपण
भायर काडून
हांवे म्हाका हारशांत पळयलें
आनी हांव म्हाकाच वळखूंक विसल्लों !

देवधर्म, स्रद्धा, संस्कृतायेचें नातें तोडून
हांव म्हाकाच प्रस्न करुंक लागलों
तेन्ना म्हाका ह्यो बांदून उडोवपी
सांखळयो कशो दिसपाक लागल्यो !

संत योग्यांक हांवे रचणाराचें मूळ विचाल्लें
ताणीं म्हाका, रचणाराचो प्रवास सासणाचो
तो विश्व, ब्रह्मांड वेटाळून राविल्लो म्हूण सांगलें
तेन्ना म्हाका ही फकत कवि कल्पना दिसली !

आनी हांवें ह्या सगळयांचेच भांडवल करुन
धंदो सुरू केलो
तेन्ना म्हाका ह्योच गजाली
म्हजे जिणेचें सार्थक करपी
मोक्षाचीं दारां उगडपी
अस्त्रां कशीं दिसपाक लागलीं !

# वासुचें कांतार

काशिनाथ शांबा लोलयेंकार

अेक आसलो वासु
तो आसल्यार आसूं
नासल्यार नासूं

वासुचें पडलां कोणांक
गा वासुचें पडलां कोणांक

वासु गेलो थिंगा
थिंगा वासुचें कसलें काम
वासु येयलो हिंगा
हिंगा वासुचें कसलें काम

नागडो बेताळो
शेतान वयतालो
शेतकाराचें मूत पियोन
घरा येतालो

आयकताना वासुचें तोण
उगडेच उरता
पळयताना वासुचें तोण
उगडेच उरता
उलयताना मात तेजें तोण
धापलेलें आसता

वासु बाये वासु
वासुच्या जल्माक
रडूं काय हांसूं

वासु म्हणजे वासुदेव न्हूं
वासु म्हणजे
वासुदेव महादेव बाणावलीकार न्हूं
वासु म्हणजे
वासुदेव शांताबाय बाणावलीकार न्हूं
वासु म्हणजे कोणूच न्हूं
वासु कोणूच न्हूं
वासु वासु न्हूं

वासु जायत गेलो
मोटको मोटको
वासुची सावळी जाली
लाम लाम

बाये बाये बांय पळय
बांयतलें उदक पळय
उदकाचो तळ पळय
तळापोना मातयेक
घास मारून रावल्लो वासु पळय

वासु वासु फेस्त पळय
फेस्तातले लोक पळय
लोकाच्या हातीतले बोमाडे पळय
वासु रे ऽ ऽ
फुट्टा तो बोमाडो तुजो

अेक आसलो वासु
कितें सांगू तेची काणी
जांव आसूं

गुजराती कविता

## आवाज

चंद्रशंकर भट "शशिशिवम"

म्हजो आवाज बंद जाला.
हांव निमणो केन्ना अुलयलों हाजोय अुग्डास ना,
आं, अितलो अुग्डास आसा
कि अेका काळार हांव अुलयतालों
आनी म्हज्याच ताळचान अुलयतालों.
म्हजो आवाज बुडला काय खोल दर्यांत ?
काय ताणे जीव दिला ? हांव नेणां–
अितलेंच हांव जाणां
कि म्हजो आवाज बंद जाला.
आनी पिडाधीड म्हळयार
म्हजे भोंवतणी आवाजांचोच बोवाळ
आवाज – घोगरे, घुस्पल्ले, पिंजिल्ले
आवाज – झरिल्ले
आवाज – चीर गेल्ले
आवाज – फुटिल्ले
आवाज – भरसल्ले
आवाज – चाळवल्ले
आवाज – विस्कटिल्ले
आवाजांचे पडसाद, पडसाद, पडसाद
आवाज, आवाज, आवाज
चोंचरे आवाज
लंगडपी आवाज
पिसुडिल्ले आवाज
पाठ केल्ले आवाज
खणून काडिल्ले आवाज
अिंपोर्टेड आवाज
कस्टम क्लिअरन्स नाशिल्ले आवाज
स्मगल केल्ले आवाज.

आवाजाच्या अभयारण्यांत जाता
आवाजाच्या कुरिंगाची शिकार.
आवाजाचें म्हजें कुरींग भिल्लें आसा.
ताजें कळिवर अुखलून धरुन
काडटात सगले भोंवताडे
सगले समजतात आपणाक
आनी म्हणून घेतात
शब्दांचे स्वामी.
म्हज्या आवाजाचे कुरींग शेणलां
ताका हांव सोदीत आसां
सोदीत आसां वर्सांचीं वर्सां
आनी म्हाका अुलोंवक येना
म्हज्या आवाजान गावंक येना
म्हज्यान कोणाकडेन अुलोवंक जायना.
हांव घुस्पतां
हांव घुस्मट्टां
हांव गोंदळटां;
केन्ना गा मेळत म्हाका
म्हज्या आपणाल्या आवाजाचें
जिवाचें म्हजें कुरींग

**अणकार : अुदय भेंब्रो**

( आकाशवाणीच्या बरेपणान )

१.

माधव बोरकार

पाणयांतळा
थेंब थेंब वस्त्रगाळ जाली थंडाय
तरी कितली अुचंबळ
ही वेळ !
अशे आमोरेर
जिणेच्या बाराय वाटांनी
सांडिल्ल्यो तुज्यो यादी
अवचित हांबेतात
काळजातल्यान
दुखांचे दर्या जाल्ल्यो
मिठाकणयों अुंवाळून अुडयल्योतरी
आनी
गच्च मेटिल्ल्या
दोळयांतल्या दोळयांक अुमळटात
तुज्याच अुमाळयांच्यो झरी...

२.

तुज्या दृष्टांताचीं
अशी जोगलां मारून
मळब मांडटना
सावरूं कसो
म्हाकाच हांव ?
निक्तोच
दोळयांत काळोख बुडटना
लागला नदरेक
तुजोच गांव ...

विनोदी कविता

## तितु ऽ तल्यो

अुल्हास पै रायकार

आना बाना
लागी पावली इलेक्शनां

कुरू कुरू कानां
शंकराचो गणा

कुरू कुरू कानां
लोकशायेची कुचंबणा

कुरू कुरू कानां
मंत्र्यांनी बांदलीं घरां

कुरू कुरू कानां
आमदारांनी माल्ली रानां

कुरू कुरू कानां
फुडाऱ्यांची अथीर मनां

कुरू कुरू कानां
भितल्ल्यान पेटलीं झुजां

कुरू कुरू कानां
आमच्या बोल्सांत पैसो ना

कुरू कुरू कानां
सगळेवटचां आवर्शणां

कुरू कुरू कानां
लोकशाय तिगची ना

आना–बाना
कुरू कुरू कानां
आता ना.

तरीय शंकराचो गणा
ना जायना.

ताका कांयच
अुपाय ना.

तोय सुदारचोना
आमीय सुदारचेना

परत जांवदी
कुरू कुरू कानां

निमणे म्हणात
आना बाना

गणाच्या कपलाक
तितु ऽ तल्यो

कविता

## चमत्कार करून दाखय

यसूफ अ. शेख

हांव चिततां चिंते पिडा मस्तकाक बादल्या
वखद आतां चलचें ना, चमत्कार करून दाखय

हांव देखतां नदरेंतल्यान नदरेक जाप मेळ्ळ्या
दबून उरिल्लीं मोनीं उतरां आचरणांत हाडून दाखय

हांव जाणां जिणे दनपार खर वतान तापल्या
झाडा परीं मोगा पालवान सावळी थंड फाकून दाखय

हांव नेणां आयज कशी काळजा धडक वाडल्या
गोपांत ल्हबच हड्डें खेळोवन, आंग मात्शें मोडून दाखय

कविता

## मनांतली काणी

नूतन सुखठणकार

मनांतली काणी मनांतुच उरता
उतराचें वजें पेलूंक अनमनता

मनांतली काणी मनांतुच तळमळटा
केन्ना केन्नाय ओगी पडून रावता

मनांतली काणी मनांतुच सुकता
दुखां आपलीं सांगतना मान वाकडी करता

मनांतली काणी तुजे म्हजे व्यथेंतल्यान उदेता
आनी उपेक्षांचें वाळवंट पळौन मनांतुच तकली मुंगरता

गीत

## पान पिपळा खानयेचें

अनील सामन्त

पान पिपळा खानयेचें सळसळटा
याद काळजान तुजी आयज झुलता ॥

उतरां ल्हारा–ल्हारांनी विरगळलीं
सपनां पांयापोंदा रेंवेंन मळलीं
फुल चंद्रिमाचें कुप गेळटा ॥

जीण पावसा पावसान जेन्ना न्हाली
रुख हरवे कवळे घेवन आयली
सूर्य न्हिमराच्या किरणांनी जळटा ॥

कविता

## तागडी

नरेंद्र बोडके

अेके तागडेन तूं
अेके तागडेन हांव
कोणाक कोण अुबारता
आतां पळैत राव

तुजेलागीं किते ?
फातोर आनी गुणे !
म्हजे तागडेन आसा
आमुरपिकें जिणें....

फातराक लाय तिबो
ताजो जाता देव
जिणेमुळान आसता
चिमटीभर रेंव !

धाडायत राव गुणे
बांदित राव देवळां
म्हज्या काळजालागीं
फांतोडेचीं ओंवळां

ओंवळां देवापायार
काळीज देवापायार
फांतरांतलो झरोच
शीतळटा घायार....

१.

रमेश भगवंत वेळुस्कार

शब्द गरंव नाका
आनी
अुदक झरंव नाका
गरयलेल्या शब्दांनी गा
बुडोवन अुडोंव  नाका

शब्द न्हू गा
शब्द ब्रह्म
शब्दांनी या नादब्रह्म
शब्दसंग केल्याबगर
कळचें ना गा शब्दब्रह्म

ब्रह्मयाचें अुतर अेक
अर्थाचें ब्रह्म जालें
" झिगचे झिगय
शबै शबै
वाऱ्यावेल्या धुल्लांतल्यो
गुडयो अुबय...
झिगचे झिगय...
शबै शबै...."

" हर गेला हिमालयार
आमचेखातीर हरशिरगार...."

शब्दांचो चरव न्हू हो
सर्गाचो हो निसर्ग
सुगुर्व्याचो गर्गमुनी
अर्घ्य दिता शब्दांतल्यान
शब्द गरंव नाका
आनी अुदक झरंव नाका
गरयलेल्या शब्दांनी गा
बुडोवन अुडोंव नाका...

२.

अेके सांजवेळा
जळ झुळझुळ व्हांवता
फातर गाळीच्या
खोल खळग्यांतल्यान

व्हांवून वयता
जळांत सगळो
अुज्वाड सांजवेळाचो

अुज्वाडाच्यो
सवन बळारी
अळार देंवता
त्या अुत्कांतल्यान
भरसून वयता
आनी अुदक भरसता काळखांत

अनवळखी हो
काळोख म्हाकां
पुण ताळोसरांटी तान
जळूंक लागता
रंद्रांतल्यान हो
व्हरस हुलप शिरगार

कशें भरसून वयचें काळखांत
कशी वळख घेवची पाणया
कशे हुलप शिंरगार जळचे
कसो जळांत झुळझुळ न्हांवचो

ही तान म्हजी
काय तान ह्या अुज्वाडाची
हो अुज्वाड काय हे रंग
काय रंगाची ही माची

हे रंग खरे
काय माची खरी ... ?
काय बऱ्यो न्हांवता
झुळझुळ झुळझुळ
ह्यो अुत्काच्यो झरी ... ?

३.

गराशेरान शेलो दिलो
शेलो जागराचो
काना पडुंचार
घुमता बोल
बोल घुमटाचो

गराशेरा
पांय आलोटें
गराशेरा
पांय धोलोटें
गराशेराक
चेडूं मेळटा
चेडूं मेळटा
चेडूं गोमो-टें

बाय गो चेडवाक
गराशेरान
ओलो ओलो
दोळो दिलो
दोळयां दुकांनी
गराशेराच्या
बाय गो चेडवान
शेलो धुलो

दोळयां दुकांचो
शेलो ओलो
गराशेरान म्हाकां दिलो
म्हाकां दितना
शेल्याक ताणे
जागर-बोलां
झेलो गुंथलो

गराशेराचो
शेलो ओलो
झांकूक आता लागला
घुमटावेले थापीन म्हजें
काळीज दिग्‌दिग्
घुमलां

४.

अशे आंकडयावयली फुलां तिणी
कुमरजुव्यां दिलीं बा आनी
आमच्या मनांतुली जमीन
जाली मिर्ग ओली

आनी मिर्ग ओली जमीन म्हजी
धुवाळयांची जाली बा
धुवाळयांच्या सुवाळयांनी
अुदेंत उजवाड व्हिली

अशे अुदेंतिच्या राया म्हज्या
तुकां नमस्कार बा
फुडाराची वाट फुडें
तूं सर रे मुकार

५.

मांडार चान्ने शेंरवडांचें
रंभांक वाघरें
मांडाचें

पांय रंभाचे फुगड मुदयाळे
तांच्या नाचाक
फुंट्टा कळे
देंठांत कळयांच्या झनरी
झनऱ्यांच्या गळयांत
चिंगचिंग पिंगळी

पिंगळी घांटार साकून येता
पिंगळी फांत्यार
झिकींचिंग नाचता
पिंगळी
नाडटा इडा पिडा

पिंगळयांच्या न्हिदेक
चान्न्याकडा

पिंगळयां वांगडा
नाचता रंभा
रंभा रंगांच्यो
आनी रंद्रांनी
पेटूंक लागता
चनरवाती गा
घुंगरांच्यो...

६.

सूर्य माथ्यार
रतिरत बनमदयान
रतिरत सुकण्या बोवाळ
झाड झाड लायेक येता
पान पान मायेक येता
बनमदयान
तंद्रेंतली
ओतोन वेता
न्हूच किरणांनी पुण
सूर्यरंद्रांनी
बनार सळसळ भार
वयता व्हांवून हुंवार
हुंवार झुंबरांचो

तिच्या सपनांक
भांगर मोचे
चंवराक
येतल्या गणेसाचे

देखून सूर्यमाथ्यार
रतिरत बनमदयान
रतिरत सुकण्यां बोवाळ ...

कविता

## आनंदसुक्त

नागेश करमली

मुक्त, विमुक्त
दिकां दिकांतल्यान रचून येवं एक आनंदसुक्त !
मन मेकळ्या–
मनीसपणाचें रूप अपरूप एक दिव्य भावयुक्त–
मुक्त, विमुक्त !

गळून पडूं
आमीच पांगुल्लेले हे अनवळखीशे धरबंद
नाका आनी–
आडकल्पनांचे अतंरयात्री विखाळ विखाकंद
जाले पुरो
पोसयलेले अशे हे रगतपिशे नाड छंद
अुतर आमचें ;
जावंचें ह्या गणगोकुळांतले रसरंग नंद
नदरेंत ह्या
भरची आनीसह्य हिमालयाकूय अुंच धुंद

मुक्त, विमुक्त
मेळची आमची सांडलेली आमकां युगंधरा शक्त
दिकादिकांतल्यान रचून येवं एक आनंदसुक्त !
एक आनंदसुक्त !

कविता

## वाऱ्या वाऱ्या  संजीव वेरेंकार

कवळ्या मनां
फुटून पाखां
गेलें मन
कुपांगणा

वाऱ्या वाऱ्या
धांवरे आतां
मन म्हजें
हाडूंक पुता !

मन म्हजें
पैस पैस
कुपांकुपांत
विरून गेलां ...

खंयचें मन
खंयचें कूप
अेकूच आतां
रंग-रूप ...

वाऱ्या वाऱ्या
धांवरे आतां
मनाविणा
हांव रे हांगा !

खणीवयलो
फातर कसो
कसोय आपट
कसोय धपट

कांयच कितें
कळचेंना
कितेंच म्हाका
जांवचेना ...

कविता

## अेक रान  प्रकाश द. नायक

अेक रान
अुगडेंच
अुदारें न्हिदिल्लें !

अेक रान
पिटपिट्या दोळ्यांनी
मळब तोखेतालें !

अेक रान
जळजळीत
पाचवें वस्त्र न्हेशील्लें !

अेक रान
त्या वस्त्रांत
तळपथानांक लिपयतालें !

अेक रान
ताका ' – वाऱ्याक

म्हऱ्यान आपयतालें !
अेक रान
तिनसांजचो ' तो '
येवन गेल्या अुपरांत
निस्तेज...
निस्तेज जातालें !

अेक रान
मागीर, हडव्या पानांचीं
गोदडी पांगुरतालें !

अेक रान
आता करड–गादयेर
बिण्ण काळखान
सूस्त...
सूस्त घोरेतालें !

**संस्कृत काव्य**

## शृंगारशतकम्

भर्तृहरी

१

तिची मुदयाळी दृष्टी
लजरागी
तिची गालाची खळी
भुलयाळी
नाच नाचऱ्या पायांची रे
झन्–झन्–झन्–झन् झांज
कशें अुरत म्हाका रे भान !

२

थानभार हिचो गुरुचो तिढो
मुख चंद्रीम अुंचवटो
मंद मंद पावलांत शनीचो नाद
ग्रहग्रस्त करता नरांक हे साद

३

लज झोंपून अुडयता
कुंड कुडीन पेटयता
अुतर चूम चूमून घेता
अशी अस्तुरी जग रंगयता.

४

देखचेपैलीं, अुमळ नदर भेटेची
देखतां, हुरहुर हून वेंगेची
वेंगेत जागता आस मिलनाची
अशी तरंगी तार दादल्याची.

५

मळबस्पर्शि सूर कोगळीचे
चंवरगंधि वारें
पूण विरहभरीत मनाक ताच्या
अमृतसुद्धां विखासारकें

६

चैत्र पुनवेचीं चंद्र किरणां
दारांत मोगरेचीं मोगाळ गितां
वेंगेंत मिलन अुलोवपां
हीं भाग्यवंतांचीं सुखां

**अणकार : रमणीमीत्र**

कविता

## जनेल    दत्तकुमार व्यं. कामत

" ह्या जनेलांत बसल्यार
वेळ बरोऽऽ वेता –"
ही अुतरां आतां फाटीं पडलीं
पैलीं ह्या जनेलांतल्यान
पोरसांतले गुलाब, तांचेर बसपी
पिसोळीं मनां खेळयतालीं
मळब धांपपी अूंच माडाचीं
पांचवीचार चुडटां आनी
मदले तांबडेगुंज नाल्ल
दोळयांची तान न्हीवयताले

आयज चारयवटयां कॉंक्रीटच्या
बिल्डींगानीं मळब पुसून वडयलां
जनेलाच्या अेका कोनशार
दिसता अेक निर्शेल्ली खोप
आनी वाटेक दोळे लावन बशिल्ल्या
जांटेल्याचें फाटीक तेंकिल्लें पोट
जनेलाचो अेक अेक खीण
आज यूग जालां ...

कविता

## नव्यो दिको    शैलेंद्र मेहता

परजळपी सूर्या
अस्तंमतेचीं गीतां गायता
सुकल्यांत सगळीं मुखामळां
चंद्रिम कुपां आड वता ...
दिसानदीस पेट्टा जीण
मळबाचेर जातात घाय
पेटिल्ल्या ह्या होमकणांत
आता लोटून घेवंक जाय ...
केन्नायतरी भायर येतलींच
काळजां आमची छातयो फोडून
हालपी धोलपी चौकट मागीर
वडोवंक जाय मोडून ...
हातांत अुज्याकीट आसा
दोळयांत रगता लोट आसात
तकलेंतले सुरींग आतां
दोंगर फोडूंक तयार आसात ...

## चिंचेबोटां

पुरुषोत्तम शिंगबाळ

सों सों सों सों
चिंचे–झाड सोंशेता
वाऱ्या वांगडा सकल झड्टा
अमुरपिकीं चिंचेबोटां

चिंचेबोटां आंबट गोड
खातल्याचे जिबेक फोड
चिंचेबोटां वांकडीं तिकडीं
खातल्याची बायल माकडी

## साकरआंबो

साकरआंबो मळबापोंदा
अुंच अुंच जसो खांबो
साकरआंब्या घोटां गोड
आंब्या खांदार माकड माकड

आंब्या आंब्या घोंट तुका दीक म्हाका
आंब्या आंब्या घोंट तुका दीक म्हाका
माकडा माकडा हुप हुप हुप हुप
शेपडेंक लायलां तुप तुप तुप तुप
माकडा माकडा मार झोपय मार झोपय
घोंट म्हाका सकल अुडय सकल अुडय

माकडान केलें हुप्प घोंट पडलें टप्प
गोड गोड खुब्ब हुर्रे हुर्रे हुप्प

**दक्षिण कन्नड शैलीतलें अेक जोडगीत**

## आयलीं आयलीं

विल्फी रिबिंबस

तो – अेक घाटचांर थावन हांगां राखतां
बायल म्हजी भितर कुडान न्हेसता.
हांव न्हवऱ्या धेडों रावलां, न्हवरो मिसाक पावला
हांव रे हांगा भागला आनी बायलेक अुबो रावलां.
ये गो लिल्ली–

ती – ( भितरसून ) आयलीं आयलीं

तो – अदृष्टान अिगर्ज आमकां लागीं, बायले म्हजे भायर सर बेगीं
बंद करुन दार, अेक जालें वर
आनीक येयना भायर, ही म्हजेकुशीची बोर
ये गो लिल्ली–

ती – आयलीं आयलीं

तो – कोणांकय राखचें व्हय, ह्या बायलांक राखचें न्हय
भितर तीं न्हेसता कितें, म्हज्यान तें सांगचें न्हय
ती साडी न्हेसूंक आसा, तो शेंडो बसोवंक आसा
तो पावडर पुसूंक आसा, मागीर तो घासूंक आसा
दादले सगळे येवन पावले आंगणान
पाद्री बावडो शेर्माव सांगता कोण ना
आंग नेटोवन पुर्तें, अुबार करून हड्डें
चेडवां मिसाक धांवतात, मीस मात अर्दें
ये गो लिल्ली–

ती – आयलीं आयलीं.

तो – देवाचें घर गो, नाचाचें साल न्हय
विसर बाराय कित्याक, तूं कांय होंकल न्हय
तूं अशें न्हेसता कित्याक, हांव तुजो न्हवरो मोगा
तूं कशेंय न्हेसोन ये गो, सदांय तूं सोबीत म्हाका
दादले सगळे दिवे पेटोवंक लागले, पाद्री भौशाक हुंगार वाटूंक आयले
अखेर जालें मीस, पावडर आनीक पूस
आयचो सगळो दीस, त्या आरशामुखार बस
आय्यो लिली–

ती – आयलीं आयलीं
तो – येवचें नाकां
ती – आयलीं आयलीं
तो – मीस जालें
ती – आयलीं आयलीं
तो – हांवूच आयलों
ती – आयलीं आयलीं
तो – आयलों आयलों
ती – आयलीं आयलीं

कविता

## चित्रायल्ली पाटी

सज्जन एन्. तारी

म्हासागरा,
तूं असो कांचवेता कित्याक ?
वर्सां घडयांनी थपकल मारुन
बसलेल्या दोंगरा,
तूं असो थरथरता कित्याक ?
शितळकायेन व्हावपी वाऱ्या,
तूं असो घोगेता कित्याक ?
भर दनपारां,
हि तिनसांज कसली ?
काळजां चिरपी
ही जोगलावणी खंयची ?
कान फोडपी
हो गडगड खंयचो ?
शेळ्या आंगार,
हो घाम खंयचो ?
....आरे मनशा
हांवें घडोवन हो सैम
तुमच्या हातान दिला,
चावी म्हजेकडेन दवरुन
पुण ...
तुमीच गा फोडली
सूर्यासारकी सत्यां
तुमीच गा तोडले,
नीत – आनीतीचे पास
तुमीच गा खणल्यो
माड्डयल्ल्यो वाटो
आरे,
पाटी आसता,
श्री गणेशा चिरपाक
चित्रांक सडे घालपाक न्हय.
तुमचे कडल्यान,
नवी 'श्री गणेशा' पळोवपाक
म्हाका पाटी पुसपाची आसा.

## राजकी मॅट

पुंडलीक नारायण नायक

प्रचारक – शेतांतुले भयणी म्हाजे सादसो घालीतां
कामेऱ्यां – पयलो साद घातलो बंधवा वाऱ्यान हुबला
प्रचारक – शेतांतुले भयणी म्हाजे सादसो घालीतां
कामेऱ्यां – दुसरो साद घातलो बंधवा वाऱ्यान हुबला
प्रचारक – शेतांतुले भयणी म्हाजे सादसो घालीतां
कामेऱ्यां – तिसरो साद घातलो बंधवा कानीक पडला
प्रचारक – दी गे भयणी दी गे भयणी मतांची नी भास
कामेऱ्यां – मतसें दिल्यार बंधवा काय नी रे दिशी
प्रचारक – दीन गे भयणी दीन गे भयणी गावांत अेक बांय
कामेऱ्यां – गावांतुली बांय बंधवा चौगांची रे आय
प्रचारक – दीन गे भयणी दीन गे भयणी मोटार आनी गाडी
कामेऱ्यां – मोटार गाडी दिल्यार बंधवा मोडूनी रे जाती
प्रचारक – दीन गे भयणी दीन गे भयणी शेत आनी भाट
कामेऱ्यां – धनी भाटकार येती बंधवा आपल्या नांवार करती
प्रचारक – दीन गे भयणी दीन गे भयणी भांगर आनी शिंगर
कामेऱ्यां – चोर चांडाळ येती बंधवा घेवूनी रे जाती
प्रचारक – दीन गे भयणी दीन गे भयणी घर आनी दार
कामेऱ्यां – पूत सून येती बंधवा घेवूनी रे जाती
प्रचारक – दीन गे भयणी दीन गे भयणी तांतयांच्यो कोंबयो
कामेऱ्यां – रोग पीडा येती बंधवा मरुनसी जाती
प्रचारक – दीन गे भयणी दीन गे भयणी दुदाची नी म्हस
कामेऱ्यां – दर नासून दूद बंधवा नासूनी रे जाती
प्रचारक – दीन गे भयणी दीन गे भयणी अुद्देगाक रीण
कामेऱ्यां – कागदांच्यो भानगडी त्यो अुसपितलो कोण
प्रचारक – दीन गे भयणी दीन गे भयणी नोकरी चाकरी
कामेऱ्यां – चिखलांत बरी हांगा कश्टाची भाकरी
प्रचारक – दीन गे भयणी दीन गे भयणी हेंवू आनी तेंवू
कामेऱ्यां – बासनांतल्यो खबरी बंधवा बासनांत थेयू

प्रचारक – दीन गे भयणी दीन गे भयणी हातांतुलें दीन
कामेऱ्यां – हातांतुलें दाखय बंधवा मागीर दितां भास
प्रचारक – दीन गे भयणी दीन गे भयणी णवुवारी कापड
कामेऱ्यां – कापड फाळी दिशी बंधवा पुण्यसे जोडिशी
प्रचारक – निखटें पुण्य नाका भयणी मतां जायी मतां
कामेऱ्यां – भियों नाका बंधवा म्हाज्या अुतर दितां तुकां

**नाटक : शबै शबै भौजनसमाज**

**भक्तिगीत**

## देवा तूं गावलो ना

**सुरेश रा. पै**

पूजा–अर्चा करुन थकलों तरी देवा तूं गावलोना
मनश्यारुपान तूं भोंवतालो म्हाका कशें रे कळलेंना ।। धृ ।।

देवळांनी रे तुजी सुवात
गंधफुलांनी तुका आरत]
भजतालों हांव खिणांखिणांत तरी म्हाका तूं दिसलोना ।। १ ।।

भव्य–दिव्य रे तुजीय देवळां
थकलीं भोंवून म्हजींच पावलां
केन्नाय रे तूं कोणाक भेटला जाप म्हाका रे मेळली ना ।। २ ।।

आसत कशें रे शांत तें मन
नासत जाल्यार पुराय ज्ञान
वगडायिल्लें मनीसपण देवपणांक वळखंना ।। ३ ।।

अणुअणूंत तुजेंच रूप
जिवांजिवांत तुजें स्वरूप
देखनास्तना भजता खूप ताका तूं दिष्टी पडचो ना ।। ४ ।।

तृप्तीमोग समाधानांत
रमता जो रे मनीसपणांत
रावता तूं रे ताजे सेवेंत म्हाका कोणेंच सांगले ना ।। ५ ।।

कविता

## आतां सगळे विसरून वच

तेनसिंग रोद्रिगिश

हांवें विचाल्लें ना,
हांवें मागलें ना,
तुज्या जापेची,
हांवें वाटूय पळैली ना,
तुवेंच जावन
लजभिड सोडून,
जिभेच्यो गांठी सोडून,
लिपयनासतना,
सांडीनासतना,
म्हज्या पानांर ओतली,
तुजीं पिशेपणां,
जुवानपणाचीं तुजीं सपनां,
सपनाच्यो जाल्ल्यो विडंबना,
चुकिल्लीं पावलां,
निसरलेले पांय,
घुस्पल्ले दोळे,
सगले, सगले;

म्हज्या मुखार,
शितांतले फातर
हुमणांतले कांटे,
भेळशेल्ल्या
घाणमारे धुंवर,
मोगान वाडिल्ल्या पानांवेले,
शेळघा शिताचे गोटे,
गीळ्ळे हांवें,
तुज्या हुंडक्यां,
हुंडक्यांच्या घोंटांनीं,
आतां सगलें विसरून वच,
आतां अुल्ल्या फकत,
नितळ निर्मळ
म्हूर्त तुजी,
तुज्याच पांयांर
आतां फुलां म्हजीं

कविता

## वाट

शंकर परूळकार

अुदकांत देंवपाच्यो
दोन वाटो आसात
अेक, पावला पावलान
भितर वचपाची
आनी दुसरी, वयरसाकून

धब्ब करून अुडी घेवपाची
जाणे ताणे (आवडी प्रमाण
आनी तांकीप्रमाण)
आपापली वाट घेंवची.

## दर्या गाजोता — जे. स. स्वामी सुप्रीय

" दर्या गाजोता " हो कोंकणीतले नामनेचे कवी डॉ. र. वि. पंडित हांगेलो, साहित्य अकादमी पुरस्कार लाबिल्लो कविता संगह. ह्या कविता संग्रहाचेर जे. स. स्वामि सुप्रीय हाणी अभ्यासपूर्ण असो प्रबंध बरयला. सुरवेक कविचो परिचय दिला. काव्य मीमांस हातूंत भारतीय आनी पाश्चात्य काव्य मिमांसेची विस्कटावणी केल्या. विशयांचे नदरेन वेगवेगळे सात विभाग पाडून दर कवितेच्या खाला कठीण अुतरांचो अर्थ आनी संदर्भ सांगला. कवितेचो सारांश आनी वैशिश्ट्य मांडलां. कोंकणी काव्य समिक्षेचो हो अेक अप्रूप असो ग्रंथ नागरी आनी कन्नड अशा दोनूय लिपींत छापला. प्रकाशक : शताब्दी प्रकाशन ( मंगळूर ), पानां: ३५५, मोल : ७२रुपया

## अदृस्टाचे कळे — पांडुरंग भांगी

नांवाजते कवी पांडुरंग भांगी हांगेलो " दिस्टावो " अुपरांतचो हो कविता संग्रह. संग्रहांत १९७२ ते १९८२ मेरेन बरयिल्ल्या कवितांचो आसपाव केला. आत्मचिंतनाचे गाड रंग ह्यावूय संग्रहांत नदरेक पडटात. प्रकाशक : भगवती प्रकाशन (पणजी), मुखपृष्ठ : दिगंबर शिंगबाळ, पानां : ५५, मोल : १० रुपया

## गांठी — युसूफ अ. शेख

तरुण कवी युसूफ अ. शेख हांचो हो पयलोच कविता संग्रह तांचे विशींच्यो अपेक्षा वाडयता. प्रकाशक : शणै प्रकाशन (वेलींग), मुखपृष्ठ : दिगंबर शिंगबाळ, पानां : ६०, मोल : ८ रुपया

## मना मना — भरत नायक

नाटचलेखक आनी कलाकार भरत रघुवीर नायक हांचो " मना मना " हो पयलोच कविता संग्रह. पंच्याहत्तर सुपुल्ल्या कवितांनी मनाच्यो वेगवेगळच्यो अवस्था चितारल्या. प्रकाशक : शणै प्रकाशन (वेलींग), मुखपृष्ठ साईनाथ पडते, पानां : ७५, मोल : १० रुपया

**माणकुलीं गीतां** — **मनोहरराय सरदेसाय**

कवी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हाणी भुरग्यांची मनां पारखून रचिल्लो हो बालगितांचो संग्रह, राजहंस वितरण ( पणजी ) हाणी "शिशुकवनां" ह्या सदरांत आपणाल्या बालवाङ्मयाच्या दुसऱ्या संचात उजवाडायला. मुखपृष्ठ : दिगंबर शिगबाळ, चित्रां : राजू शिंदे, पानां : २३, मोल : ३ रुपया

**फुलतीं फुलां** — **प्रातिनिधीक**

ह्या प्रातिनिधीक कविता संग्रहात गोंयच्या अुच्य माध्यमीक आनी महाविद्यालयीन विद्यार्थ्यांच्या वेंचीक कवितांचो आसपाव केला. दिलीप माधव रायकार हाणी संपादीत केल्या ह्या कविता संग्रहांत पंदरा कवी आसात. हिंद गोवा प्रकाशन (मडगांव) हांचो हो वावर तोखणायेचो दिसता. पानां : ३४, मोल : ६ रुपया

**घोडकां** — **जे. एल. गॉयश**

नवोदित कवी जे. एल. गॉयश हांचो हो पयलोच कविता संग्रह, नागरी आनी रोमी अशा दोनूय लिपींनी उजवाडायला. प्रकाशक : क्रिस्त प्रकाशन (मडकंय); मुखपृष्ठ : जोजेफ गॉयश, पानां : ७२, मोल : १० रुपया

**काजुले** — **आलेक्स गॉयश**

क्रिस्त प्रकाशनचें हें दुसरें पुस्तक तरुण नवोदित कवी आलेक्स गॉयश हांचे जावन आसा. होवूय कविता संग्रह नागरी आनी रोमी लिपींत उजवाडायला. शंबर पानांत शंबर कवितांचो आसपाव आसा. मुखपृष्ठ : लुईस बारेटो, मोल : १० रुपया

**किरमोर** — **वसंत भगवंत सावंत**

नवोदित कवी वसंत भगवंत सावंत हांचो हो पयलोच सुपुल्लो असो बालगीतांचो संग्रह शणै प्रकाशनान उजवाडायला. मोल : दोन रुपया

**दसणे फुलां** — **कवनी रामभाऊ**

विनोदी आनी विडंबन स्वरूपाच्या बावीस कवितांचो हो संग्रह चामुंडा प्रकाशन ( व्हडलें गोंय ) हाणी उजवाडाक हाडला. मुखपृष्ठ : दिगंबर शिंगबाळ, पानां : ६७, मोल : ५ रुपया




कोंकणी साहित्याचें मासीक

## कुळागर प्रकाशनाचीं दोन भावंडां

कवितेचें कोंकणी द्वैमासीक






कुळागर प्रकाशन : पो. बॉ. नं. ७८, मडगांव (गोंय) ४०३ ६०१

मुखपृष्ठ छापणावळ : बांदेकर प्रिंटर्स, कुडचडें (गोंय) ब्लॉक मेकर्स : अजीत प्रोसेस (बेळगांव)